ासाना. तितलेंच नहीं आसतां तसलें वरणनात्मक कण एका पाटलयान एक
जु जालयारी जाले या तशेंच जांवचें चडशें दिसता. पूण विरोध उपजंवचा
मूनयांत मात्र तसलो विरोध उपजयताना तो खंचा घडिये घडटा, म्हणजे दोनी
िरोध कणांचा घटनांचो काळ आमी एकच घडी म्हण समजोंक जाय. तवळ
· दोनी विरोधातमक कण एकाच फारा सांगाताच हाजर आसात म्हण
ेखीजाय.

विदवांसांनी असलें विरोधातमक आनी अविरोधातमक विशलेषण करून
रयतां परयांत पूरविल्या विदवांसांच्यो अभिप्रायो सारक्योश्यो दिसताल्यो. पूण
ा नवया वरवणेन फांकयलेल्या उजवाडांत पूरविल्यो अभिप्रायो परिपूर्ण चूक
हीं, तरी, संपूर्ण सत उगडापें करचांत सलवालयात तें रूप रूप दिसोन येता.
वेशेस जावन पूरविलयांनी अलक्ष केलेली एक संगत आसा. तांचे नदरेक
मतकारान गुसपड पाचारचे विशीं अधिक कांय झळकाल्लें ना. तितलेंच
हीं, असलो गुसपड लेखताना पूरविलयांनी मानून घेतलली हुमिणयांचा
डावळिचा आंकडयांची हाजर ना म्हळ्ळे खातीर अविरोधातमक आनी विरोधात्मक
हुमिणयो खरयो हुमिणयोंच नहीं म्हळ्ळें तीरप ताणी वाचून सोडलेंशें दिसता.
ाचो परिणाम जावन खरयोच हुमिणयो जावनासल्यारी ह्या तीरपा निमतीं
हुमिणयांचा जमयांत मेळंवक जायनासताना कितलयोश्यो हुमिणयो नास जावन
गेलयात या मायाक जालयात कोण जाणा?

अमेरिकाचा रोजर एबरहामस म्हळ्ळेल्या विदवाम्सान विरोधातमक आनी
अविरोधातमक हुमिणयांचें विशलेषण अधीक गूंडायेन चलवन ह्या विशीं चडीत
थोडयो संगती तलास केलयात. ह्या विशीं कांय पूण समजोन घेनासताना
हुमिणयांचें रचनातमक रूपलक्षण समरपक ओळकोन घेतल्ले परीं जायना.

हुमिणयांनी सूचित जालेली वस्त पारकीतेलयांचा दोळयांक आनी बुदीक
आड जायशें करूंक हुमिणी घडटेलयांनी वापूरचे चार नमुन्यांचे चमतकार
त्या विदवांसान दिलयात. हरयेके हुमिणेंत एक प्रतिमा या रूपणें (image or
gestalt) घडून पारकितेलयांचा मुखार उभें करतात. असलया रुपणयांचें मुख्य
काम जावनासा पारकितेलयांचे नदरे थावन खरी वस्त बिलकूल लिपंवची या
आड करची. त्या पासून असलें रुपणें रचूंक चार वाटो आसात.

पयली वाट विरोधाचीः– हांतू उभें केलेल्या रुपणयाचीं लक्षणां एकामेका राजेन
होंदानांत या जमानांत देकून मुळावें सारकें या वस्त सारकी दिसानाशी करतात.

दूसरी वाट अरधकुरया माहेतीची:– पारकीतेलयाक खरी वस्त दाकयतां म्हण वाड्न व्हरता तरी, असली माहेत कसलेंच रुपणें घडूंक पावाना. हाजर आसलेले कण एकामेका सारके जमानांत मात्र नहीं बगार मधें मधें ऊण पडलेलें दिसोन येता. गरजेक जाय जांवचें वरणन लाभाना.

तिसरी वाट लेखावरत्या माहेतीची:– हांगासर वरणन विवरांचा आवराचो लोटच लोट. गरजेची कण गरजे शिवाय भरलेल्या कणांचा राशींत भरसोन लिपोन वेतात. अशें रूपणें सगळें सयर बयर जाता.

चवती वाट जावनासा आपूण नकली रुपणयाची:– हांतूं वरणनातमक कण सगळे जमयलयार रूपणें तुरतान उभें जाता. आनी जाप समेत तुरतान मेळता. पूण ती जाप खरी मात्र बिलकूल नहीं. पारकितेल्या मुखार असलें नकली रुपणें उभें जावन तें ताका ठकयता. आनी आपली जाप चूक, हास्यास्पद या बुरशी पूणी जाली जालयार पारकीतलो परिपूर्ण सलवाता आनी लजेक उंडी जाता खंडीत. ही हिकमत विशेस जावन कुंटोंच्या हुमिण्यांनी (Catch riddles) वापूर्तात. हाका साक्स जावन आलन दंडीस सयत ह्या विदवांसाक दिगो दीता. पूण ह्याच विदवांसान सांगचे प्रकार विरोधाचे वाटेक लगलेली तितली सोंपी आनी उत्तीम विशलेषणाची वाट असलया वैज्ञानीक विश्लेषणाक सह्याक आसोंक नजो म्हण ओपचाक अड्डी ना.

ह्या प्रसतावनाचा आखेरिचो आंकडो म्हणजे व्यत्यया सयत वरगीकरणा विशीं माहेत जोडचो. अस्तमतीचा संप्रदायां प्रकार पूरविल्या विदवांसांनी वापूरलेल्यो जाती कसल्यो म्हळ्ळें हाचाहीं विवरिलां. तरीपूण तसलें वरगीकरण आतांचे वैज्ञानीक नदरेक समरपकशें दिसाना. देकून आधुनीक रीतीं प्रकार हुमिणयांचें वरगीकरण नवयाच वाटेक पावलां ताची ओळक करूंक फावो.

**व्यत्यय:**

म्हळयार एकेच वस्तूचीं या भाशेंतलीं या उतरांतली अनेक रूपां म्हण समजोवयेत. व्यत्यय नासललो भाशेचो कसलोच कण ना. तसोच लोक साहिताचो कण सयत लेख नासलल्या नमून्यांनी व्यत्यय जावयेत. ह्या क्रियेक गड या सीम म्हळ्ळो ना. देकून हुमिणयांचे व्यत्यय सयत जाय तशे पळेंवक मेळनात. हुमिणी काल्पनीक रूपक जाल्लेल्यान जण एकल्याचे खुशे प्रकार या नदरे प्रकार हुमिणेचें रूप बदलोंक साध्य आसा. लोकसाहिताचे हे वस्तूंत व्यत्यय उपजोंक पांच वेवेगळीं कारणां झळकातात:– म्हणजे रूपकांचो व्यत्यय

ावचो, रुपाचो व्यत्यय जांवचो, क्रियेचो व्यत्यय जांवचो, लयेचो व्यत्यय ावचो आनी अर्थाचो व्यत्यय जांवचो.

**पकाचो व्यत्यय जांवचो:–** सूचित जालेली वस्त एकच उरता तरी, वेगळया हुमिणयांत वेवेगळो रूपक उभो जाता. देकीक–

1. आदांवचीं मेटां पुसून वेचीं नहीं – माडाचीं करवाणां

2. हात आसात पूण पांय नांत
पोट फडून पळेलयार तांतूंत कांय ना – खोमीस

3. गुब गुब गुबीत किल्ला कुशींत
काय तुजया मनांत सांग म्हज्या कानांत – तांतीं

4. आपीन गोपीन वाग बसला कोनशांत
कितें आसा तुजया मनांत सांग तें म्हज्या कानांत – कुमसार जावप

5. गोड गोड गुपीत लांकडाचा घरांत
काय तुजया मनांत सांग म्हज्या कानांत – नाल्ल हालोंवचो

ह्यो हुमिणयो सांगाता घेतलयार तांचे मधें रूपक बदल्ला मात्र नहीं, बगार सूचीत जालेल्यो वस्तू सयत बदल्ल्यात तें दिसता. हाका आनियेक दाकलो–

1. एका बांयत दोन उदकां – तांतीं

2. एका बिळांत एक बोळ देंकळे – पणसाचीं बिकणां

3. एका भाटयेंत तीन वाटल्यो, एक जळटा, दोन तंड आसात – सुरयो, चंद्रेम आनी भूमी

हुमिणयेचा रूपाचो व्यत्यय जांवचो: हांतूं रूपक आनी सूचित जालेली वस्त आसलेले बरीच उरता. तरी हुमिणेचें रूप मात्र बदलता. दाकलयाक–

1. आंग आसा मातयार, पाय आसात मातयार
पाकाट आसात मात्यार, कोणाचे? – उवेचे

2. गुडगुडटा घडगडो नहीं,
मुकुट आसा राय नहीं,
बंधींत आसा चोर नहीं – गुडगुडो नारल

त्येच परीं रूपक आसा तसो आसोन रूप आनी सूचित जालेली वस्त बदलावयेत –

1. येदेशया चलियेक वांव लांब पांती – सुविसूत

2. येदेशया पिलाक पोटभर मुसतायकी – पियाव

3. गेणभर मनशाक हाती भर खाड – नारल

**क्रिया व्यत्ययांत:**

रूपक आसा तसो उरोन पाचारलेली क्रिया बदलता. सूचित जालेली वस्त पयलेचीच आसयेत या ती बदलावयेत.

वस्त बदलानासलेल्या व्यत्ययाक दाकलो –

1. येदेशया पिल्याक पोटभर मुसतायकी – पियाव

2. म्हजें चामडें तूं वडशी तरयी
   रडटलोय तूं शिवाय हांव नहीं – पियाव

वस्त बदलचा व्यत्ययाक दाकलो –

1. म्हजो एकलो आजो आसा,
   मातया सयन खोळ घालन बसला – खडाप

2. म्हजो एकलो आजो आसा,
   वरसाक एकच पावटीं हासता – काजुचो रूक फुलता

असलें बदलावण सोडल्यार, अखंड आनियेक आंकडयांचा रूपार विणलेली हुमिणी आपलें रूप बदलून एका साद्या सवालाचें (पूण उपमातमक रूपकाचें) रूप घेंवक सकता. देकीक –

1. आमगेर एक म्हातारी,
   हात नांत पाय नांत, दोळो मात्र एकच – सुवी

2. आमगेलेचो दोळो चोवीस वोरांय उगतो,
   तिणे देकलेलें मात्र कांयच ना – सुवी

**नय व्यत्यय** जावन बदलोंचो हुमिणयोः हुमिणयो बहुतेक कवना रूपार ॖासात. कवनांत लय अवश्य गरजेचें. हें लयाच बदलात तर जालें. देकीकः–

1. उदाक पळेल्या फरा रागान फेंडेता – साबू
2. खांवक ना जिरंवक ना, हातांतच मुगदोन वेता – साबू

अर्थाचो व्यत्यय जांवचो म्हळयार सूचित जालेली वस्त बदलची म्हण जालें. ाचे फुडेंच दिलेल्या दाकल्यांनी वस्त बदलचे विशीं जायते दाकले दिल्या. ने सगळे ह्याच नमुन्याचे देकून चडतीक दाकल्यांची हांगा गरजशी दिसाना.

असल्या सगळ्या व्यत्ययांनी हुमिणेचो बदलनासताना थीर उरचो वांटो केदाळारी चुकाना. मनशाचे जिणियेंत हुमिणयांचा घासाक पडानासलेली वस्तच ना म्हणयेत. देकून व्यत्यय घडोंक तितलोच नमुन्यावार वाटो आसता. रूपकाचा चमतकाराचेर होंदोन एकाच वस्तू विशीं ब्यासतर हुमिणयो आसयेत. देकतेल्यांचें कलपन कितलें विशाल आसा तितलें ताचें वरणन विसतारता आनी आसो एकलोच, एकेच वस्तूविशीं आनिकी अधिक हुमिणयो गुंतूंक सकता. लोकसाहित्याचो मालक लोकच. देकून लोकाचा असलया हक्कांक आनी चमतकारांक खाडूं घालूंक कोणाकच अधिकार ना.

**वरगीकरणः**

अर्थ आनी मनोरंजनाची धादोसकाय सलीसायेन लाभचे पासून खंचाय वस्तूचे नमुन्यावार वांटे करचाक वरगीकरण म्हणटात. हाचे वरवीं वस्तूचें विशलेषण आनी अध्ययन करूंक अनकूल जाता. तरीपूण अशें केलेलें वगरीकरण शाशवीत तशेंच उरोंक जाय, बिलकूल बदलूंक नजो म्हळ्ळो कायदो कांय ना.

हुमिणयांचा वरगीकरणांत अंतर्राष्ट्रीय विदवांसांनी धरलेल्यो तीन वाटो दिसतात. वस्तूचो अर्थ आनी जाप लेगून केलेलें वरगीकरण पयलेचें. विदवांस आरचर टेयलरान केलेलें तें वरगीकरण दूसरें. आनी आरविल्या भाषा शासत्राच्या विदवांसांनी केलेलें वरगीकरण तिसरें.

**वस्तूचो अर्थ आनी हुमिणयांची जाप लेगून केलेलें वरगीकरणः**

ह्या वरगीकरणांत, वरणनांत कितल्यो आनी कसलयो वस्तू आसात, तांचें स्थान आनी मान कसलो, हें कसलेंय गुमान करीनासताना फकत जापिची

वस्त कसली म्हळ्ळें एक मात्र पळेतात. आधुनीक मानव शास्त्राक हो उपाय अधिक पसंद. हाचेवरवीं हुमिणयो घडून त्यो वापुरतेल्या लोका विशांत अधिक गूंडायेचें अध्ययन करूंक साध्य जाता. मनशाचे जिणियेंत मेटान मेट आनी घडियेन घडी घडच्यो संगती आनी ह्या पासून मनशान वापुरचो वस्तू लेगून ह्या वरगीकरणाचे विभाग जातात.

**आरचर टेयलराचें वरगीकरण:**

हें ताणें दशमांकांनी मांडून हाडलां. हांतूं हुमिणयांच्यो जापी मुख्य नहीं. बगार हुमिणयांचा रूपकांत उपमाना पासून वापुरलेल्यो वस्तू मुख्य जावनासात. त्या प्रकार ताणे विभाग केलयात.

उपमानांत मनीस आनी मनजाती सोडून हेर जीव जंतूंचो उल्लेख आसलेल्यो हुमिणयो पयल्या वरगाचो. मनजाजींचो उल्लेख आसच्यो दुसरया वरगाचो. मनशाक तुलन केलेल्यो तिसरया वर्गाचो. रूक झाडांचो उल्लेख करच्यो चवत्या वरगाचो आनी आकेरीक निरजीव वस्तूंचो उल्लेख करच्यो पांचव्या वरगाच्यो.

**पयल्या वरगाचो दाकलो:-**

'तांगेल्या देवाक पाटलयानयी शिमटी, मुखल्यानयी शिमटी' (हस्त)

हाचो वरगाचो अंको 1. उपवरगाचो अंको 1. कसलो देव म्हण सांगोंकना देकून तो अंको 0. असलो व्यत्यय हो पयलो देकून व्यत्ययाचो अंको 1, अशें लेखल्यार वरगीकरणांत ह्या हुमिणेचो अंको 1.1.0.1 असो रावता.

**दूसरया वरगाचो दाकलो:-**

'तांबडया गुडयार बत्तीस घोडे,
आत्तां नाचतात आत्तां उडटात, आत्तां तंड बसतात.' (दांत)

मनजात देकून वरगाचो अंको 2. मनशाक पयली उपकारची मनजात देकून उपवरगाचो अंको 1. हांतूं घोडयाक पयलें स्थान देकून परतून अंको 1. घोडया विशयांनल्या हुमिणयांत हो सातवो व्यत्यय म्हण लेखूं तर आखेरीचो अंको 7. आतां वरगीकरणांत ह्या हुमिणेचो अंको 2.1.1.7. असो रावता.

**तेसरया वरगाचो दाकलो:-**

'आमगेर आयले तेग सयरे
दोग भायर रावले आनी एकलो भितर रिगलो.'
(व्हाणो भायर सोडन सयरो भितर चलता)

हांगा वरगाचो अंको 3. मनीस म्हणतच 1. सयरे देकून ते घरा भायले जालेल्यान तांकां अंको 5 दिवयां. सयर्‍यां विशीं हुमिणेचो हो पयलो व्यत्यय म्हण लेखल्यार आखेरिचो अंको 1. आतां ह्या हुमिणेक वरगीकरणांत मेळचो अंको 3.1.5.1 आसो रावता.

**चवत्या वरगाचो दाकलो:-**

'आमगेर एक वाल आसा, तोंड ना जीब ना
पूण परतून परतून उलयता. (टेलिफोन)

हांगासर चवतो वरग देकून पयलो अंको 4. सस्य जात देकून दूसरो अंको 1. वाल म्हणजे तिसरो अंको 3. आनी वालीविशीं हो पयलो व्यत्यय देकून आखेरीचो अंको 1. तवळ वरगीकरणांत 4.1.3.1. ह्या हुमिणेचो अंको.

**पांचव्या वरगाचो दाकलो:-**

'आमच्या मांदरेक शेंभर बुराक' – (पोळी)

पांचवो वरग देकून पयलो अंको 5. घरांत वापूरची वस्त देकून दूसरो अंको 1. खाणा जेवणा उपरांत विशेवाक वापूरची वस्त देकून तिसरो अंको 2. हांगासर हो ताचो पयलो व्यत्यय देकून आखेरिचो अंको 1. आतां वरगीकरणांत ह्या हुमिणेक 5.1.2.1. अंको मेळता.

टेयलराचें हें वरगीकरण समजोंक इल्लेशें कष्ट तरी, एक पावटीं समजोन घेतच तें एक उंचलें समीकरण. विशेस जावन लोकज्ञानाचें अध्ययन करतेल्यांक अधिक उपकारता. ह्या रीतीन हुमिणयांचें वरगीकरण येदोळ कोणे केल्ल्यो नांत. ह्या फुडले विदवांस जागे जावन हें काम कांय करतीत कोण्णा.

**भाशा शास्त्राच्या विदवांसांनी केलेलें वरगीकरण:**

हुमिणयांनी भाशेचो चमतकार सयत अधिक बळाधीक आसा. भाशेचें अध्ययन करूंक हुमिणयो चड उपकारता. देकून भाशाविज्ञानींनी हांचें वर्गीकरण

करूंक आपलोच एक उपाय सोध्लेल्यांत आजप ना. हाणें पयले प्रमुख तीन वर्ग केले म्हणजे रूप प्रधान (form-based) आसच्यो हुमिणयो, क्रिया प्रधान (action based) आसच्यो हुमिणयो, अर्थ प्रधान (semantically-controlled) आसच्यो हुमिणयो. ताचे उपरांत ह्या वरगांचे ताणीं उपवरग केलें.

रूपप्रधान हुमिणयो:–

हांतूं वस्तूचें नांव आनी त्या वस्तूचें वरणन मात्र प्रमुख आसता, दाकल्याक–

1. आमच्या रूकाक पंदल्यान आंकरी – (खाडकेक खाड)
2. आमच्या वालीक एकच आंकरी – (दिवो)
3. येदेशाया पोरीक शेंभर बावाडे किरगी – (पियाव)
4. येदेशाया मोडकेंत कांट भर मोतयां – (दाळिंब)

हे वयले दाकले सादया एका वाकयाचे जालयार वयल्यावयर वाकयां गुंतलेली सांकळ आसाना म्हण नहीं. दाकल्याक –

1. बायेक स दोळे
   बाबाक तीन दोळे
   म्हजे तसलया अपराध्याक एकच दोळो –(पिरलूक, नारल, सुवी)

2. माजराबरी कान म्हझे
   माजराबरी तकली.
   माजरा बरी पाय म्हजे
   माजार हांव न्हय तरी
   हांव कोण म्हण सांगशी? (बोकूल)

**क्रिया प्रधान हुमिणयो:**

वस्तूची क्रियाच हांतूं प्रमुख आसता. साधी क्रिया असयेत या निषेध बळ जावयेत, या विरोध अधिक जावयेत. पूण सगळयांत क्रिया मात्र मुख्य जावनासाजय. दाकल्याक:

1. आमगेर एक घोडो आसा
   कान व्हडल्यार शिमटेन चाबता (कातर)

2. आमगेर एकली आसा,
खांवयले तितली चड रडटा – (गूंड तेलाची कायल)

3. आमचें सुकणें बोंचीन चलता – (लट्टू)

4. आवय जळटा धूव शिजता – (तोरीची काडी आनी तोरीची दाळ)

**अर्थ प्रधान हुमिणयोः**

हांतूं वाकयां वयर वाकयां क्रिया आनी वरणन चडवन अर्थ वाडयतात. दाकल्याक –

1. आवयचो भाव नहीं, आकयचो घोव नहीं
मामा म्हळ्ळ्या शिवाय आपंवचो नहीं – (चंदरेमा)

2. आवाज ना उतार ना, खाता पूण पियेना
तोंड आसा जीब ना
शिम्टी आसोन घोडो नहीं,
पाकाटे आसोन सुकणें नहीं – (मासळी)

इतलें सगळें अवलोकन करताना एक प्रमुख सत झळकाता, म्हणजे हुमिणयो खरयोच लोकाक धादोशी करतात, मत चुरूक करतात, पंताक पडाशें करतात, शेळें आसल्लें जागयतात, ऊब आसल्लें उमहाळायतात. पूण हुमिणयांनी आटापललो गूंड आनी बळादीक चमतकार सारके रीतीन समजोन घेंवचें तितलें सुलभ नहीं. असलया कामाक म्हिनत काडटा तो बिलकूल शाणो. असले थोडे जण मात्र आसयेत जसे जेट विमान चलयतले. पूण तें विमान उबता तें पळेवन आजापललो सगळो संसार आसचे परीं हुमिणयो आयकोन रोमांचन भोगता सादया लोकाचो संसार, तांचें हें दायज.

*******

# साहित्य म्हळयार कितें?

– एडवीन जे.एफ. डिसोजा

## साहित्य म्हळयार कितें?

ह्या सवालाची जाप एका निर्दिष्ट व्याख्यानान (definition) समजांवक कश्ट कित्याक म्हळयार ह्या सवालाच्या जापींत दोन रूंदायेचे अर्थ आसात: ह्या अर्थांत परत दोन विभाग आसात:

येदोळ परयांत जें कितें बरवन घालां/बरवन आसा तें सर्व साहित्य म्हण थोडे म्हणताना हेर थोडे ह्या रूंद व्याख्यानांत सबारशे वांटे–फांटे आसात म्हण दाकयतात. देकीक एका टेलिफोन डायरेक्टरीक या रांदपाच्या पुस्तकाक एक निर्दिश्ट ध्येय आसा पूण एका कादंबरीक, कवितेक या नाटकाक तीन चार उद्देश असतीत – जाणवाय, माहेत, प्रस्तुत संसारी परिगतच न्हय, संसारार घडोन गेल्ल्या चारित्रीक घडितांची झळक आनी चड करून (या थोडयांक उणया मट्टार) मनोरंजन.

## कल्पना सकतेचें कमाल:

विजेपी, एडवीन, सर वोल्टर स्कोट, मारी कोरेल्ली हांचें आनी असल्यांचें साहीत्य. तशें पळेंवक गेल्यार सर्व काल्पनीक म्हण दिसचें साहित्य कसल्या पुणी नीज घडिताचेर एका किसरा तेदें पुणी होंदोन आसताच. कितयाक साहित्य कितेंच नातल्ल्या थावन रचूंक जायना.

आमच्या शिकपान आनी जिणिए रीतींनी आमकां शिकयलां – एके कादंबरियेंत कितें अपेकसुयेत. कवितांत कितें, नाटकांत कितें, प्रबंदांत कितें, चरित्रेच्या टेकस्ट पुस्तकांत कितें... अशें.

## साहित्याची भास आनी तिची तांक:

साहित्यांत भाशेक महत्व आसा. आमीं सदां उलंवची भास आमी साहित्यांत वापरिनांव; हां, तो बरवपी देकून ताची भास आमकां कश्ट मारता म्हण थोडयांनी म्हणचें आमी आयकातांव. पूण एका बरवपयाचे दिष्टीन पळेंवचे तर तो साहितीक आनी सादया भाशें मधलें फरक जाणां आनी आपलीं बरपां गेम्माळ आनी विभिन्न जायजे म्हण तो नवे नवे (म्हळयार सदांचे

हय) सब्द सोदता आनी आपल्या बरपांची जडाय चडयता. देकीक – डो। एडवर्डाची 'बयताडां...' अशें आसताना एकेक पावटीं आमीं सदां वापरची भास नावळकीची जांवची साद्यताय आसा. हाका language defamiliarization म्हणतात. देकून सबार पावटीं आमकां भोगताकी, ताचें आनी हाचें साहित्य आमच्या मात्यावयल्यान वेता म्हण. हें साहित्य कांय बरवप्यान बाहयांतरिक्शांतल्याक या दिशानासतां ब्रहमांडांत उपेतेल्यांक बरयलांगी म्हळ्ळो दुबाव येता. हाका कितें करयेता? जरीतरी रशिया या फ्रेंच क्रांतीचेर होंदून लिकल्ली एक कादंबरी आमीं वाचूंक सुरु केली तरी, हेर मुळांनी, सादये रीतीर तरी ह्या क्रांती विशयांत जाणा जांवचें अवश्य. विजेपी–न गोंयच्या इंकविजीसावांचेर होंदोन चार–पांच कादंबरी लिकताना म्हाका सयत त्यो समजोंक त्रास जाले आनी उपरांत प्रियोलकराचो संसोदीक ग्रंत 'The Goan Inquisition' वाचताना कांय तरी अर्थ जालें. हांगासर, वाचप्यांनी/बरवप्यांनी वाचपाचें महत्व जाणां जांवचें अवश्य.

सलमान रुशदीचें पुस्तक मुस्लिमांक तोपलें, मारी कोरेल्लिचें पुस्तकां कातोलिकांक लागलीं, तसलीमा नसरीन हाची कादंबरी बांगला देशींक विररायेचीं जालीं. पूण ह्या बरवप्यांनी कितयाक श्हरो दींवकनाकी तांचीं बरपां स्वंत आनी काल्पनीक म्हण, जशें आमीं करतांव, हीं तांचीं बरपां स्वंत आनी कालपनीक बिलकूल न्हय. कथावस्त कालपनीक जावयेत पूण ताणी समाजीक दिंवचों संदेश प्रसतूत परिगतेक लागीं आनी लगती. चड पयस वेचें नाका आमच्या मदलो रोमानसी बरवपी गब्बूचेर 'फतवा' वाचूंक आमचे कातोलिक तयार आसल्ले पूण संगत कसली म्हळयार गब्बून बदलून येंवच्या तरन्या चिंतपां आनी मानसीकतेंचेर लिकल्लें – कथावस्तू काल्पनीक जावयेत पूण परिगत नीज आनी खरी. त्याच प्रकार विजेपी–ची 'मोगा म्हाका शिकय', एडवीनाची 'हांव जियेतां', रेवेंतले फातोर गिळूंक जायनातल्ल्यो उंडियो जालयो कितयाक म्हळयार – अशीर मनोभावांवरवीं वाचप्यांचे ताळे/गळे (उंडियो गिळूंक) तितलेच अशीर जाल्ले/आसल्ले.

**साहित्यांतले पात्रः**

संसारांतले पात्र कोण? तुमीं आनी आमीं. साहित्यांतले पात्र कोण? आमींच ते! पूण सबार पावटीं आमीं आमकांच वळकजे तर आमच्या तसलोच एक पात्र आमकां साहित्यांत मेळाजे. तसलो पात्र आमकां मेळताना आमी

आमचीच समानता देकतांव आनी ह्या पात्रा थंय म्हाका लगती जाल्लें आनीकी किर्ते आसागी म्हण समानत्यो (analogies/resemblence) सोदतांव. ही एका कादंबरियेची तांक, कतावस्तूची तांक.

कितलेशोयी समानता मेळतीत तरी काल्पनीक साहित्यांत एक अस्पश्टता म्हळ्ळी आसाच. कशें म्हण पळोवयां: रांदपां-रीतींचो एक बूक तुमीं घेया आनी तांतली एक रेसिपी (रांदपा-रीत) धा जणांक दिवयां आनी रांदूंक सांगयां. खंडीत जावन तें रांदप जातातितल्या मट्टार एकेच रीतीचें आसतेलें कितयाक तें त्या बुकांत दिल्ल्यां रीतींपरीं पयकी धा जणांनी तयार केलां. त्याच मळार एक कादंबरी धा जणांक वाचूंक दियां; तांचयो अभिप्रायो, ठिका आनी समजणी धा रीतींची आसतेली.

ह्या लक्षणाक आमी साहित्यांतली अस्पश्टता म्हणतांव या ambiguity.

## असल्या अस्पश्टतेक कारण कसलें?

कारण कसलें म्हण विचारच्याकी कारण कोण म्हळ्ळें सवाल चड सोंपें. जाप तुमकां येदोळच सुसताल्या आसतेली – आमी मनीसच ह्या अस्पश्टतेक कारण. सांगा म्हाका, आमच्याकयी चड अस्पश्ट जीवी हेर आसात? आमचेतित्ले unpredictable creatures हेर आसात? नांत, कितयाक म्हळयार आमी चिंतूंक, विंचूंक आनी कार्यान करूंक सकतांव: एका मांकडाक, पेटयाक एक हजार वरसांची तरबेती दिलयारी तो आपणायितल्याक चिंतूंक, विंचूंक या कारयान करूंक सकना.

रचनात्मक साहित्य (creative literature) हाचें बळ आनी तांक जावनासा मनशाकुळ. आनी हें मनशाकुळ आनी ताची मानसिकता आमीं कितली खोंडतांव, उस्तीतांव आनी खोरवटायतांव तितलें आमीं जाणां जातांव. It is like archeology: The deeper one digs the more interesting one's findings are. आनी अशें खोंडोंक, उसतूंक आनी खरवटूंक साहित्याची वोड, चिंतपा-सकत म्हळ्ळीं हातेरां आमचेलागीं आसाजे – बरवप्यांक, तशें वाचप्यांक.

उडास करा, शाळेंत सुरविल्या वरसांनी चित्रां-मेपां दाकवन आमकां टीचरान कितें विचारल्लें? Look at this picture and tell me what you see.म्हळ्यार, हें चित्र पळेया आनी तुमकां कितें दिस्ता तें म्हाका सांगा.

ब्रेवरुंचें तर "पळेंवच्या आनी देकच्या" मधें फरक आसा; वाचच्यांत आनी समजोंच्यांत फरक आसा.

**भातां साहित्यांतलो एक प्रमुख पूण कश्टांचो प्रकार, मटव्यो कता:**

ह्या प्रकाराचेर सबारशें उलवणें चल्लां आनी चडशें उलवन उलवन गांवच थकलां. एक मटवी कता म्हळयार फकत लांबायेन मटवी? ती कता एक हजार-देड हजार-दोन हजार सब्दां भितरली जाली म्हळ्ळ्या तक्षण ती एक साहित्याचे दिशटीन मटवी कता जायना.

मटवी कता म्हळयार साहित्याच्या ह्या प्रकारान वाचप्यांक दिंवचो एक बूस्टर डोज. कोणाकी बूस्टर डोज दींवक रांदणींतलें जळतें कोलीत वापरीनांत. एक ल्हान सिरींज, एक ल्हान सुवी आनी रगताक मिरमिरांवचें वकत. तें घेतल्या उपरांत थोडयांक 'हाय' जाता, थोडयांक दाडाक उदेता आनी थोडयांक ताप सयतयी येता पूण ती तोपणी वेगिंचयाक विसराना. एका बरया मटवया कतेचो प्रभाव एक बूस्टर डोज, एका साहितीन आपल्या वाचप्याक दिंवचो आनी सांगचो - मटवी कता जिणियेचो आरसो आनी ह्या आरस्यांत तूं हांगासर आसाय. जागो जा, होच्च तूं. अशें, जशें "साहित्य जावनासा संस्कृतीची दिसपटी". तशेंच मटवी कता जावनासा एका फलाणया घडिताचें सांगाप जें आमकां वाचप्यांक लागशील्यान लागू जाता. देकूनंच तें घडित एका मिनुटाचें जावयेत, एका घंटयाचें जावयेत आनी तें एका तेंपार, एका कालांत म्हण सुरु जायजे म्हण ना. दाकतेर इंजेक्षन तोपताना सिरिंजांतलें वकत कोणे, केदाळा आनी कितयाक सोदून काडलें म्हण पीडेसताक सांगाना आनी सांगची गरजयी ताका ना. आनी हो दाकतेर एक बरवपीच्च म्हण आमीं लेकचें तर ताचया इंजेक्षनाचो बरो प्रभावच जावनासा एका बरया मटव्या कतेन दिंवचो/प्रभाव.

देकून, कोणाच्यांनी, मटवी कता अशीच आसाजे तशीच्च आसाजे, तांतूं हें आसाजे, तें आसाजे म्हण नेम नियमां करची प्रस्तापच येना. मटवयान हरेक बरी मटवी कता एक विभिन्न प्रयोग.

तरी एक सुचावो असो दिवयेत - आमच्या समाजींत घडच्या घडितांक (हीं घडितां कतावस्तूंचीं करड मुळां - raw materials) तिसर्या दोळयान

पळेवन त्या घडितांचो कान वळांवचो. भारतांतलो सुप्रसिद्ध ठिकागार कृष्णन नायर हाच्या तिंतेरांत तींत न्हय तेजाब आसा म्हणतात (man with the acid pen) अशी चेतावणी दिता:

"समाजेंतल्या घडितां वयरच करड साहेत तयार केलयारयी, मटवी कता एक वरदी न्हय. It is not a report. मटवी कता जावनासा एक मिरमिरो जो जिणियेंतल्या वासतवीकतेंक आमचे थंय जागवन उटयता. असली कता वाचताना आमच्या मानसिकतेच्या भितरल्या दोळयान कतेंतलीं घडितां उगडापीं करिजे शिवाय, छापून आयिल्ल्या सब्दांनी न्हय."

## साहित्यांत कादंबरी म्हळळो एक प्रकार:

प्रस्तुत तेंपार बरवप्यांनी/लेककांनी साहित्याच्यो परिदयो इतल्यो रूंदायल्यातगी, साहित्यांतले सबार प्रकार एकामेकाचेर पातळोन आसचेपरीं आमकां दिसतात. एक मटवी कता वाचून प्रभावीत जाल्लो वाचपी विचारीत. हीच्च कता कितयाक एक कादंबरी जावन लिकूंक जाती ना? असलीं सबार घडितां साहित्यांत घडल्यांत; तशेंच एक लांब कादंबरी वाचलेलो एक वाचपी म्हणात - ही एक मटवी काणी करूनंच आकेर करयेत आसल्ली. ह्या चिंतपाक पूरक जावन दो। प्रताप नायकान म्हळ्ळें आसा - हरयेकलो बरवपी जावनासा एक कवी कित्याक म्हळयार तो आपले सब्द एका शिस्तेन विंचता आनी एका वाकयांत तितल्याच शिस्तेन मांडता. हांगासर language defamiliarization हें उडासांत हाडा.

एका मटव्या कतेंत आसचेबरीच एका कादंबरींतयी कता आसा. पूण मटवे कतेंत आसचेपरीं कादंबरी एका धम्मान ती कता सांगाना. कादंबरिंतल्या कतावस्तूंक एका लेककाक कंतां-कंतांनी, अवस्वर-अवस्वरांनी कता सांगची स्वतंत्रताय आसा. देकून, एका कादंबरियेचीं लक्षणां जेराल रीतीन सांगचीं तर, तीं अशीं आसयेत: plot, characters, conflict, setting and theme म्हणजे: कतावस्त, पात्र, घरशण, पाटपोडदो आनी कतावस्तूंचें मूळ-पाळ.

हांवें हांगासर खोलायेन विवरीजे म्हळ्ळी गरज ना - वयर दिल्लीं लक्षणां घेवन एकलो कादंबरीकार आपल्या कादंबरींत कितें सर्व करूंक सकता म्हळ्ळो अंदाज तुमींच (जरीतरी तुमकां वाचची वोड आसा तर) करयेत. जरीतरी, त्या फलाणया कादंबरींत तूं आसाय, या तुवें तुजीच्च वळक धरल्याय, तुजीं आतुराय जावनासतेली हो बरवपी म्हाका खंचे रीतीर खेळयता

ळोवयां. म्हणशी तूं, ही कादंबरी रशियांतली, अफगानिसतानांतली... फरक ा... मनशाचे गूण-शेगूण संसाराच्या खंचायी मुलयांत तेच्च. स्त्रीयेक प्रसूतपणाची क हांगायी आसा, रशियांतयी आसा. एके सोभीत चलियेक पळेवन एका ल्याथंय उबजोंची भोगणां, आबळाय आनी तिका आपणाचीच्च करीजे म्हळ्ळी कामातुराय (lust) सगळया संसारार आसचीच. पूण ह्या भोगणांची खराय प्रायेक नागून, भावारतीक शिकवणयांक लागून या विकृतपणांक लागून वेवेगळी आसयेत. असलें आनी हेर मूळ लक्षणांचें वेवेगळेंपण साहित्यांत एक लेकक पाटी-फूडें, वयर-सकयल, आडवें-उबें करून खेळंवक सकता जाल्ल्यान आज आमीं साहित्याक "आमचेंच, म्हजेंच" म्हण वळकतांव आनी साहित्याचो स्वाद भोगतांव.

एके कादंबरीयेंत अशें जायशें करूंक एक बरवपी सबार हुन्नर खेळता: देकीक चवदाव्या आनी सतराव्या शतकांनी सगळ्या संसारार साहित्याचें आनी संस्कृतीचें पुनरुत्थान (renaissance) जाताना जियोवान्नी बोकासियो म्हळ्ळ्या इतालियन लेककान आपल्या बरपांक (II Decamerone - 1353 Ten Day's Work) "नोवेल्लां" म्हण नांव दिलें आनी ह्या सब्दाची भाटी इंगलीशांत देंवताना, "नोवेल" जाली आनी आतां "नोवेल्ला" म्हळयार फकत एक मटवी कादंबरी म्हळ्ळो अर्थ इंगलीशांत चालू आसा.

जियोवान्नीची हुन्नर आतां चिक्केशे प्रायवंत जाल्यात पूण मुळां तशींच आसात म्हणयेत. आतांचे कादंबरीकार - अलंकार, रूपकां, कलपां, फलाणया भाशेंतल्यो मोडी वापरन तांचीं बरपां जीवाळ करतात. अशें करताना एके स्त्रीयेचें/दादल्याचें वरणन, निसरगाचें वरणन एक बुनयादी पिंतूर वाचपयांक दिता म्हणजे concrete expression.

सबार पावटीं अमूर्त वरणना (abstract impressions like in a Haiku) सयत कता-कादंबरीयेच्या व्हाळयांत/सोभायेंत महतवाचो पात्र खेळतात. देकीक अमूर्त वरणन बुनयादी वरणना सांगाता मेळयल्यार वाचप्यांचेर बरोच परिणाम जाता. आलवरिसाच्या "आंजेल" हांतूं असले दाकले आसात. ह्या सरवांचे जुमला कितेंगी म्हळ्यार कसलोयी विवर, वरणन कता-कादंबरीयेक लगती जाल्लें न्हय म्हण वाचप्यांक भोगूंक नजो. जरीतरी रानामोलयांत लिपोन आसचो एकलो नकसलवादी फलाणयाच्या घरा बोंब दवरूंक म्हण बोल्यां बोल्यांनी लिपोन लिपोन शेहराक वेता तेन्ना ताच्या परिसरांत आसच्या रानांचें "नयसरगीक" वरणन दींवचें पिशेंपण.

▪ ▪ ▪ ▪ ▪

# कोंकणी कवितेंनी आदिसाहित्य आनी लोक जीवन

**– वल्ली क्वाड्रस, अजेकार**

अमेरिकाचो नामणेचो मनशा शास्तीर तज्ञ अब्रहाम मासलोच्या 'A Theory of Human Needs' प्रकार एका त्रिकोनार मनश्याच्या मुळावया गरजांक पांच पांवडयांनी विंगड केल्यो तर, मुळाव्यो (पयलो पांवडो); कुडीच्यो गरजो (Physiological), म्हळयार खाण, पीवन आनी विशेव. दुसरो पांवडो; भद्रती (Safety/Security), तिसरो पांवडो; मोग/संबंधीक (Love/Belonging), चवतो पांवडो; मान/प्रतिष्टा (Esteem) आनी पांचवो पांवडो; स्वयं वास्तवीकरण (Self actualisation). जेदनां मनश्याच्यो मुळावयो कुडीच्यो गरजो संपानांत तेदनां ताचयान साहित्य, कला, संगीत वा कसलेंच रचन करुंक जायना.

मानव विकासाचो वैज्ञानीक आधार घेतलो तर, सर्व मनीस एका तेंपार्दी मांकोड जावन रानांनी जियेतालो. अशें रानांनी जियेतलो मनीस केदनांकी कसोकी म्हळ्ळेपरीं थोडो रानांथावन भायर येवन गांव करुंक सकलो. घरां, गादे-बेटां रचूंक सकलो, भांदपां भांदूंक सकलो; अनयेका उतरान जायती प्रगती करुंक पावलो. पूण रानांनीच जियेवन आसल्लो लोक अपल्या भंवतोणिचया परिसराकच अपलो संसार करून जियेलो. हांगासर ह्या दोन मनशा वरगां मधें पयलो अंतर सुरु जालो. रानांनी जियेतलो लोक आपल्या रिती-रिवाजींनी आपल्या भंवतोणिचया दीसपडत्या वस्तूंचेर मोगार पडलो देकून तांचया मवकीक साहित्यांत; जांव ती कांतारां, गाणां, पदां, कला, व हेर संस्कृतीक संभ्रमावेळार सांगचया काणियांनी रुकांचेर, जानवारांचेर, सुरया-चंद्रांचेर, धरतेचेर, वेवेगळया दिसच्या, ना-दिसच्या बरया-वायट संगतेंचेर तांचीं घडपां चालतेर पडलीं.

हें कांय काल-पोयर न्हय, कांय हजारों वरसांदीं घडलें म्हळ्ळें वेवेगळया बुकांनी आमी वाचून, समजोन आयल्यांव. पूण आज आमी प्रगतीपर युग म्हणून जियेंवच्या काळार खरेंपणीं आदिवासी साहित्य (आदिवासींनी बरयल्लें जांव, आदिवासिविशीं बरयिल्लें जांव, आदिवासीं खातीर बरयिल्लें जांव) किनल्या मापान आसा म्हळ्ळें सवाल केलें तर जाची जवाब चिंतूंक

ऋरता. कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहित्याचीं सोदनां करताना म्हाका तरयी कविता वरगाचें (सरजनशीळ)' कितेंच मेळ्ळें ना. पूण जानपद, लोकवेदाचें साहित्य आटापचे परगटल्ले बूक पळेताना तांतूं मवकीक जावनासचें आतां लेखित रूपान आसचें; जांव सांगण्यो, म्हण्णयो, गादी, गाणां, पदां, कांतारां, गीतां, कीर्तनां, श्लोकां; जीं आदी लोकांनी वेवेगळ्या रीती रिवाजींनी मवकीक रीतीर सांगून आयिल्ली पद्धत पळेंवक मेळता. आदिवासी समुदायांतलें साहित्य आनी वेवेगळया कला प्रकारांच्यो वाडावळी, मुख्य धारा (mainstream) समाजेंत वळकल्ल्या साहित्य आनी कलेंच्या जलमाच्याकी आदीं आसलें.

वीसाव्या शेकडयाच्या अखेरीच्या धाकडयांत भारतांत एकारीतीच्यो 'नवयो चळवळयो' जलमाल्यो. बायलां, शेतकारां, दलितां आदिवासी जनांगां तशेंच वेवेगळया जनांगाचे पंगड तेदोळ म्हणासर केदनांय नातल्या तशेंच स्थापीत सिद्धांतीक आनी राजकीय भाषावैशिष्टच्या मुखांतर समजूंक जांवक नासचे तसल्या मागण्यांक तशेंच समस्यांक व्हाडंवक लागलीं. तांचें शोषण तांचया निर्दिष्ट संकेताच्या कारणांनी आनी त्या शोषणांक विरोध करच्ये इरादयान समान मनाच्या हेर पंगड/समुदायांसवें इशटागत करुन विमोचनेखातीर जोड चळवळींक सुरु केलयो. समाजवादी चळवळयो न्हय आसतां, साहितीक चळवळयो ह्या झुजांत मेळ्ळयो आनी ह्या शोषणेच्या विरोध, स्त्री समानतावादी साहित्य आनी दलित साहित्य ह्या प्रक्रियेच्यो थोडयो रचण्यो. आतां आदिवासी प्रज्ञेच्या मुखांतर आदिवासी साहित्यान साहित्य आनी विमरशेच्या संसारांत स्वता एक स्थान आपणांवक प्रेतन करुन आसा.

पूण आदिवासी साहित्य संप्रदाय प्रमुख जावन मवकीक. रानांनी रिगोन, रानच अपलें सरवस्व करन घेतल्ल्या उपरांतयी ह्या समुदायान आपली सृजनशील साहितीक अभिव्यकतेक मुखारसिलागलीं. पूण तरयी हांचें जानपद भासेंनी आसचें साहित्य अधिकार केन्द्रित न्हय जाल्ल्यान तें साहित्याक सयत तांचेपरींच बेपारवोच लाभलो. देकून आज पासोन कांय शेंभोरां वयल्या प्रांतीय भासेंनी आदिवासी साहित्य उबजता तरयी आमकां ताचेविशीं कळित आसचें भोव थोडें मात्र.

कन्नड लिपिंतल्या कोंकणी कवितेंनी आदि/आदिवासी लोकांचेर बरयिल्ल्यो कविता दिसून येनांत. पूण कवितेच्या हेर प्रकारांनी, जशें पदांनी, गाणांनी, जानपदांनी, लोकवेद साहित्यांत आदिवासी लोकांचें जीवित–मरण, सुक–दूक,

फेस्त-परब, बरें-फालें कारयें जांवचे वेळार, वेवेगळ्या रीती रिवाज्यांनी हीं गाणां, कांतारां, पदां, तशेंच काणियो आयकूंक मेळतात पूण चडताव जावन हें साहित्य मवकीक, वा तोंडपाशीं आसा. हांचेर वयलेभार नदर घुंवडांवची तरः-

जनांगाचें मूळ जीवित, तांचे आचार-विचार, जिणियेरीत लेकाक धरून कोंकणिच्या आदिवासी जनांगाक प्रमुख जावन चार प्रकारांनी व च्यार समुदायांनी हांवें घेतलां:

गवडा, कुळमी (कुणमी, कर्नाटकांत कुणबी, कुडमी), सिद्दि, खार्वी

आधार: गोवयातील आदिवासी रचना आनी जीवनशैली (देविदास जानू गांवकर)

## कुडमी जानपदः

सादया रीतीन सांगचें जाल्यार, परंपरागत जावन, तोंडान तोंडाक, जिबेन जीब व्हाळून आयिल्ल्या मवकीक साहित्याक 'जानपद' म्हणयेत. कुडमी आनी हेर जातीच्या संस्कृतीक प्रमुख व्यत्यास म्हळ्यार कुडम्यांनी आचरण करचे, धार्मीक पाठभूंयचें जानपद आचरण, शिगम्या वेळार प्रदर्शन जांवचो - गुमटां आनी तोणियां खेळ. शिगम्याच्या होळियेचें धार्मीक आचरण आनी कुडम्यांच्या जानपद कलेक तुटफूट नातल्लो संबंध आसा. प्रस्तुत कुडम्यां मधें गुमटां तोणियांचीं गाणां, नाच, साहित्य आनी वादन उरलां जालयार कुडम्यांचे वाडे, वाडयां भितरले आचार-विचार, धार्मीक बांधावळ कारण. हर वरस शिगम्यांत होळी आचरण करचें कड्डायेन पाळून आयिल्ल्यान कुडम्यां मधें ही जानपद कला उरल्या. कुडमी ह्या जानपद कलेंतच दैवी साक्षातकार देकून पूजा करता. कोंकणी मायभाशेच्या क्रिसतांव समाजेंतयी एका काळार गुमटांची कला प्रवर्धमानाक पावोन आसल्ली. पूण तांच्या धार्मीक स्तरार गुमटां कलेक आवकास आनी प्रोत्साह नातल्ल्यान तांचया मधें ही कला अळवत येंवचें पळेवयेत.

कुडमी आदिं राना-वनांनी शिकारी करून दीस सारताले. त्या उपरांत ते शेतांनी वावरूंक लागले. शेत-कामांत कितले कशटी आनी हुशार तें त्या कांतारांत आसा;

'सकाळीं उटोन आमी वेताय शेताक,
दीसभर काम आमी केलें वोतांत,

अख्खें शेत उडोन आमी एकाच लेकान,
कुडमी आमी घाम पिळोन, घोळताय शेतांत,
मेर आमी काडून, शेत उडयलें रोंवून,
देवालागीं मागून, पावसाळो मागून,
कुडमी आमी भैंनांय वावराक गो'

रामायण, महाभारत, शिवपुराण, अशें वेवेगळ्या धार्मीक चिंतपाचें साहित्य हांच्या पदांनी, गाणांनी आयकूंक/वाचूंक मेळता.

तोणियांचीं पदां, गुमटां पदां सयत वेवेगळ्या संदरभार वेवेगळ्यो काणियो सांगचें आमकां दीसून येता.

**उज्या पोदः**

यादीं कोरुं उजापोद, नोमोन कोरुं सरासवत,
सोवुना सगत, भोवोना भोगत, आताळनू पाताळ, थळनू
जळ, त्या जळा मोधें, विष्णु ब्रह्मा महेशवर, तीन खंडां
तीग देवु उबुजव दालया.

**उज्या पोद (मैंदेरी)**

यादीं कोरुंगे माये नोमोन सरसवती
शिवाशकती कालेन भकती
अताळनू पाताळनू चा–जोळोन ताळचा
जळा मोदें ब्रहमा विशणु महेशवर
दोग तीग देव जनमल्या

**मांड देंवयतानाः**

साल सालों देवु योकु मोग्रीयालो
रंगे नासतो दिवुळीगेचो बाळ – ओ ताजा
आगन्या वोयीर जलमोला काळगा..

**मांड चडयतानाः**

गणेशा गोमोटया लकयी धरवोंटया
गणेसान मांड केला खिनखुळ्यांचो
फुलांचो ओ पोळियो अक्षताचो.

अशें नारल चडयताना आनी हेर सभार रीती रिवाजींनी पदां वाचूंक मेळतात. शिगम्या गितां, झाडो गीत, लावणी, चवरंग, गाणीं, आरत, धालो अशें वेवेगळीं पदां वेवेगळ्या व्हाजंतरांनी, गुमटां, तोणियांनी गांवचीं गाणां पदां वाचूंक मेळतात.

आधार: गुमटां आनी तोणियां पदां (गोपाल गवडा), कुडमी कोंकणी लोकवेद (डा. जयन्ती नायक, डा. एल. सुनीताबाय, डा. जेरी निड्डोडी)

जेराल रीतीन कुडमी समाजेचें जानपद/लोकवेद साहित्यांत सयत धार्मीक प्रकार मात्र न्हय आस्तां. रीती रिवाजो, नीति नेमां, जलमाथावन मोरना परयांत आसच्या वेवेगळ्या रीती रिवाजिंचेर सयत पदां, गाणां आसचीं दिसून येतात.

## खारवी लोकगीत

**भास:** कोंकणी खारवी लोकाली भास कोंकणिची एक बोली. खारवी लोक कारवार थावन मंगळूर परयांत तांचे विशेस उच्चार आनी शब्दांक वापारतात. परंपरागत जावून अनेक शब्द आनी विशिष्ट शैली राकूनगीन आयला. तरयी सभार लोक खारवी तांचे कोंकणी उलवपाक मरयाद दीनांत. आनी व्यवहारीक भास कन्नडांत उलयतात. कारण कितें म्हळयार आमची भास सारकी ना म्हळ्ळें संकुचीत चिंतप.

खारवी कोंकणी भासांत दिसचे विशिश्ट म्हळ्यार तांचया उतरांनी येंवचीं मासळेचीं उदाहरणां; मनीस चोरी करून कोणाच्याय हातांत मेळनाजाल्लो मनीस तर ताका 'सुंगटा परीं उडता', लोकाक मोस करचो मनश्याक 'लेप/देंकळो' म्हणतात. लेप/देंकळो मासळी हातांत धरताना हातांतल्यो निसरता. देकून, हेरांचो दुडु खांवचो मनश्याक 'मासो' म्हणतात. म्हळयार सांकेतीक भासेंत वेवेगळ्या मासळेंक सांकेतीक अर्थ दीवुन मनशांचो स्वभाव चित्रांवचें हांच्या मवकीक साहित्यांत आयकूंक मेळता.

**साहित्य:** खारवी लोकाचे लोकवेदांतल्या पदांनी येंवचें लगना पदा दालोरेंत, जीवनाचे अनभोग आनी सुख कष्टाचें चित्रण आसा. खारवीचें जानपद दरबस्त आसा. 'बाय घरकणचे...' पदांत आपणाच्ये बायलेखातीर आसचो मोग आनी हुसको, भगणां कळतात. तोणियां पदांत भकत आनी खुशी दिसता तर 'येणे' पदांत हास्य आनी व्यंग्य कळता.

होळी पदांत खुशी आसा. तशेंच रामायण, राम–सीता–रावण येतात. आनी सामाजीक व्यवस्था जीवन पद्दत येता.

होळीवेळार सांगचें 'सैंवर' पदांत श्रवणाची तीर्थ यात्रा थावन सुरु जावन रावणाचें नास परयांत आसा. तांतूं येवचे सबार शब्द मराठी आनी हिन्दी भाशेंत आसात. येंवच्या थोडया सबदांचो अर्थ कितें म्हण कळाना, सबार सब्द हेर प्रांतीय भासेंतलें. ह्या उतरांनी खारवी लोक खंय थावन आयिल्लो म्हळ्ळे पुरावे मेळतात. चडावत जावन नवायती बोलींनी हिन्दी/परशियन सब्द मेळतात तशेंच चितपावनी बोलींत मराठी सब्द मेळतात.

होडे सोडका जालेर ओयीर घेवुचे वेळार सांगचे पद्यः

'ले वांजु माले लायासे
ले सेरू माले लायासे
माल मालीक एंबल लायासे
माल भटकळ बंदर लायासे
माल बंदर लायासे...'

खारवी लोकांचें जानपद ग्रेसत आसा. बेळंबरकार कोंकणी भाशेंत अभिमन्युची चरित्रा सांगचें आसलें कंय. आतां तशें सांगतलीं नांत. तशें होडे सोडताना, मासळी पागचे वेळार, हात रंपणी वेळार विविध रीतीची कोंकणी पदां सांगची रिवाज आसली.

**जीवनावर्तन आचरणः** जनन, नामकरण, ऋतुमती, निशचितार्थ, लगना, बायके लगन, मरण – हे चडताव जनांगांनी आसचे सामान्य रिवाजी तर, खारवींची एक विशिष्ट रिवाज आसाः 'सेट्टी': बाळशें जलमालेले स दिवसांत सांजेर यो शास्त्र शुरू करतात. आनी हरयेका संदरभांनी त्या त्या रीती रिवाजींक लगती जाल्लीं गाणां, पदां सांगची अपुरबायेची संस्कृती तीं पाळून आयल्यांत.

**आचरणः** होडे पूजा, सूता परब, कोंबे बली, पालकी पूजा, चौथी, श्रावणा मासा, दीपावळी परब, बूदगळ मण (उत्तर कन्नडांत आसा), तुळसी पूजा, दसरा–नव्हे, सत्य नारायण पूजा, देवकार्य, कुलदेवाचा पूजा, ह्या सर्व आचरणांनी कीर्तना, पदां, गाणां ती सांगतात.

खारवी जनांत शिकारी सयत कर्ता, आदीं रानांनी तर उपरांत दरयांत मासळेची शिकारी. पूण हेर जनांगांनी आसचेपरीं हांच्यायी समूदायांनी हरेका फेस्तावेळार, संभ्रमावेळार हांची कला, संस्कृती जीवाळ दवरची रिवाज पाळून आयल्यात.

सांस्कतीक आचरणां: खारवी शिगमो, तोणियो, गुमटे फांग, दालोरे, होळी अशें वेवेगळ्या संदरभांनी हांचीं जानपद पदां, कांतारां मुखांत्र भास, साहित्य सांबाळन हाडल्लें आसा.

*आधार:* खारवी लोकगीत (सुरेश तांडेल, होन्नावर)

## सिद्दी लोकगीत

सिद्दी जनांग चड करून तीनयी धरमांत वांटुन गेला; क्रिसती सिद्दी, हिन्दू सिद्दी आनी मुसलीम सिद्दी. पूण जेराल रीतीन ताणीं पाळच्यो रीती रिवाजी एक समान जशें भास–बोली.

सिद्दी जनांगांत सयत वाचूंक/आयकूंक मेळचें जानपद लोकवेद चडताव वेवेगळ्या संदर्भांनी पळेवयेत; हुंदळाचीं (पाळणयाचीं) गीतां, चेडूं व्हड जाताना गीतां, हळदीचीं गीतां, जवळीचीं गीतां, नवर्याचीं गीतां, माटवाचीं गीतां, कुटमा संबंदाचीं गीतां, देवाचीं गीतां, डमाम/दमाम गीतां, सिगमो गीतां, फुगडीची गीता, जाकय गीतांनी हांचें प्रमुख लोकवेद साहित्य दिसोन येता.

### हुंदळयाचें गीत:

बाळाच्या हुंदळ्याबुडी, उगावली बाजी
बाळा हुंदळी बाळा हुंदळी, बाळा तुजी अज्जी जो जो....

### चेडूं व्हड जाताना:

आयलान यले नान पैलयान यले नान
सांगुण दाडा तिच्चा, बाय बाबाक सोबाणावो
कलावरीचो बाबा कलावरीचो बाबा
साकार वाटीत गेलो गांवार सोबाणावो...

### हळदीचीं गीतां:

बाजारान बाजार हिंडलोरे पाकया

होवळन्या सोदुचाक
पाचतरी होवणल्या हनलोरे पाकया
हळद दळुचाक
.........
पाचतर हौळ्ळे हानलोरे पाकया
माटव गालुचाक

**जवुळेचीं गीतांः**

आंपय, जुंपय, रोयला
आमी हानलांव, जवळी रोयला
आंपय, जुंपय, रोयला
कच्या गांवची, जवळी रोयला
आंपय, जुंपय, रोयला
......
आमचे पाय, वळ्ळे रोयला

**नवर्याचीं गीतांः**

येलो आमचो होरूं
सगळोच्च पावलो ओणित ओणित
दिवो लावगे खांबयाक, दिवो लावगे खांबयाक
घरचा घरचा येजमान बायगे
येलो आमचो होरू.

**माटवाचीं गीतांः**

आयलो आमचो होरु
सगळो पावलो येशित येशित
दीवो लावगे कांबयाक दिवो लावगे कांबयाक
गराचा, गराचा, यजमान, बायेगे...

**कुटमा संबंदाचीं गीतांः**

हांगासर वेवेगळ्या संबंधाचेर आसचीं गीतां वाचूंक मेळतात.

**चेडवाची कषटाची गीत:**

आंगार मुजे नलया जुटी कसम कलाया
रोके वजु मै करते हू, बसतूमी गोरिया
सारी जंगल मै पिरची हू, बसतूमी गोरिया
एक रातका अंधेरा, बंगलेमी मै अखेली
रोते वजू मै करची हूं, बसतो मी गोरिया

**देवाचीं गीतां:**

1. रंगनाथ येरे देवा, रंगनाथ ये
तुजी सेवा करतोमिया, रंगनाथ ये

2. तुजे नांव पवित्र होवुंदी
बापा आमचा बापा
तुजे नांव आमचा कडे येवुंदी
बापा आमचा बापा

3. या नभी, या रसुल
या रसुल, सैरे खुदा
दिल दिया है, अपना
कलमा रसू लल्लाका
जमिनाका, है ये, बिचाना

**दमाम गीतां:**

चनवाची गीत, मायेर घराचे गीत, कला रचून सांगतली गीत, मोराचा नाचाची गीत. हांगासर वेवेगळया भावाचीं गीतां आमकां आयकूंक/वाचूंक मेळतात.

**चेडूं दीना मंतली गीत:**

तला दींव गाबन मै, तंबल दींव गाबन मै
बेटीना दिवंगा, बन मै, तेरे गर
तंबल जो देतो, मेरे जो जमी आया
बेटीका पल बरेंव मै शरतांसी
खांदा दींव गाबन मै आवंदा दींव गाबना मै...

आधार: सिद्दी लोकगीत संग्रह (फ्रानसीस जे. हरनोडकर)

**अखेरिची वळः**

मुख्य धारा (mainstream) समाजेचो लोक एका काळार रानवटी जीवित जियेवन आयिल्लो, पूण आज प्रगतीपर पावलांनी मुकार पावला पूण आपलीं मुळां तो विसरला. तांकां आज सयत आदिवासी लोकांचो नियाळ/याद येता जेदनां तांकां हाडवन तांचे थावन नाचंवचें वा तांचेथावन गाणां गांवंवच्यार सीमित जालां शिवाय आज पासोन तांचया सामाजिक/आर्थिक परिगतेक सुधरांवचे दिशेन कोणेंय वावर केल्लो ना वा तीं प्रेतनांय केल्लीं नांत. सरकाराथावन तांचे खातीर अमानत असचो दुडू सयत गिळून घाल्ले मनीस आज सुशेगात निदल्यात म्हळ्ळें मारेकार सत. प्रगतेपर धांवणेंत आदिवासी लोक पाटीं उरला पूण तांचें साहित्य जें कितें जानपद, सांगणयो, मण्ण्यो, गादी, गीतां, कांतारां, पदां, लोकवेदांत आसा तें जोगासाणेन सांबाळून दवरचें मात्र न्हय, जें कितें बरपानिशीं ना आसचें तें साहित्य बरपा रुपार तसेंच तांत्रीक माध्यमाचो तेंको घेवन विविध माध्यमां मुखांत्र तोंपडाशीं आसचें साहीत्य जोगासाणेन पुंजावन दवरचें काम कितलें गरजेचेंकी, तितलेंच गरजेंचें आदिवासी जनांगान सयत आपलीं हक्कां जोडचेदिशेन क्रियात्मक साहित्य रचन करचे दिशेन मेटां काडचें. पूण सरवांच्याकी पयलें स्व–शिक्षित जांवचें आदिवासींक भोव गरजेचें.

******

# कोंकणी भाशेचें मन्शा शाश्तीर

– जेज्वीत स्वामी सुप्रिया

## मन्शा शास्तीर म्हळ्यार कितें?

मनशा शास्तीर मनशा विशयांतलें शिस्तेन कर्चे शिकप. ही शिस्त उदेवन चड काळ संपोंक ना. गेलेत्या शेकडयाच्ये सुर्वेर मिणकोंक लागोन, तो शेकडो संपताना निगंट एका जाणव्या रूपाक ही शिस्त येवन पावली आनी ह्या विसाव्या शेकडयाच्ये सुर्वेर मात्र ही एक समर्पक शिकपा शिस्त म्हण हिका अंतराष्ट्रीय मान्यताय लाब्ली. तर आज ह्ये शिस्तेक आतां लगबग दोन शेकडयांची जाणटीकाय भर्ली म्हणयेता.

## मन्शा शास्तीराचे नमुने:

ही शिस्त दोन नमुन्यांची आसा. पय्लो नमुनो भौतिक मन्शा शास्तीर आनी दुसरो नमुनो सांस्कृतीक मन्शा शास्तीर.

### 1. भौतिक मन्शा शास्तीर:

ह्या नमुन्याक हेर शास्तिरांची बुनयाद गर्जेची जावनासा. आपणायितल्याक शून्य थावन ही आरंभ जायना. हेर शास्तिरां म्हण्जे, जिवांच्या (Organic) शास्तिरांनी, जीव शास्तीर (biology), प्राणी शास्तीर (zoology), देह शास्तीर (physiology), भ्रूण शास्तीर (embriology) इत्यादी शास्तिरांनी कितें सक्कड वैज्ञानीक नद्रेन निघंट निर्णय केलां, तें सगळें आपणाक बुनयादीचो आधार करून घेता हें "भौतिक मनशा शास्तीर".

हेर शास्तिरांक आधार जावन घेता म्हळयार तांचें नक्कल काड्टा वा नाणीं मार्लेल्या पावलांनीच आपुणयी पावलां काड्टा म्हण समजोंचें नहीं. ह्याका आप्लीच म्हळ्ळी रीत आनी अस्मिताय आसा. ह्याणे फकत् मन्शा जातिची एक प्राणी ती एक मात्र आप्ल्यें तपास्णे आनी शिक्पाची वस्त करून घेत्ल्या. देकून प्राणिशास्तीर जे विशय आप्ल्या गुमानाक घेना तसलेच आपणाक प्रधान म्हण लेखता. मनशाचें कट्टें सर्वयी रितीन मापन कर्ता. नक्लेच्या विस्व्यांचें गात्र, आकार, रूप, रंग इत्यादी जोकून मेजून पळेता.

अशें करून ह्या शास्तिरान जीवशास्तिराच्या थोडया अंशांक, ती पाजून तांकां बरी धार दिल्या म्हण्येता. पुण मनशा शास्तिराचो व्हो नमुनो प्रस्तुताक आमकां गर्जे भायलो आनी विसंगत देकून हाच्येविशीं इतलें सांगल्लें पुरोशें दिस्ता.

## 2. सांस्कृतीक मन्शा शास्तीरः

व्हो दुसरो नमुनो आनी आमकां हांगासर व्होच प्रमुख. हें शास्तीर मनशाची क्रिया, चमकण, हालहवाल, भास, संस्कार, धर्म, विश्वास, पातयेणी, श्रद्धा, खेळ, विनोद इत्यादींचेर आप्ली नदर जोक्ता. देकून हांगासर मनशाची कूड आनी अंतर्गत अवयवां, जें सगळें भौतिक मनशा शास्तीर लेखता आनी जोकता आनी तांचें अध्ययन कर्ता, तें सगळें सांस्कृतीक मनशा शास्तीर फकत पाटभूंय मात्र जावन उर्ता. तशें आसताना मनशा पंगडाचीं साधनां, संप्रदाय, रिती–रिवाजी, मनशां मधें पंगड बांधपाक कारण जाल्लीं सन्निवेशां, हें सगळें सांस्कृतीक मनशा शास्तिराक कार्याची भूमिका जाता.

ह्या शास्तीरा विरोध थोडयांनी आक्षेप काड्चो आसता. हें शास्तीर फकत्त परन्या प्राचीन पुरातन आनी आळवोन गेल्ल्या रिती–रिवाजी आनी संप्रदायांच्ये सोधनेंत रोंबोन, तांच्ये पाटीक लागोन आसता म्हणटात तीं. पुण त्योच संगती आज जिवाळ आसोन चालत्यो जाल्ल्या रिती–विराजींक, सामूहिक सामाजिक संस्कृतीक जल्म दिल्ली पाट्भूंय जावन आसता पर्यांत तांचीं सोधनां गर्जेचीं शिवाय, तीं विसंगत बिलकूल जायसीनांत. हाचो सार्को अर्थ समजाल्यार, पोकळे आक्षेप आपापिंच इरोन वेतेले तें एक मात्र खरोखर सत म्हणाजाय.

तरयी मनश्या शास्तिराच्या ह्या दोन नमुन्यां मधें शीम खंयसर म्हण निर्णय करचें काम तितलें सुलभ नहीं. प्रस्तुताक तें गर्जेचेंय नहीं. तरयी एक चत्राय मात्र गर्जेची. कुड्डेपणी विकासवाद (evolution theory) मांड्तेल्यांनी त्या वादाचो सारको आनी मुळावो अर्थ अलक्ष करून, खुशे प्रकार पोकळो प्रसार केल्लो आसा. चार्ल्स डार्विनाचो विकासवाद जीवशास्तिराक संबंध जाल्लो. तो ताणे समाजाक, संस्कृतीक वा मनोस्थितीक बिल्कूल लागयिल्लो ना. असल्या विशयांनी ताणे कसलोच अभ्यास व संसोध करुंक नाशिल्लो तें खंडित. पुण थोडयांनी सवाय बुध्वंतकाय वापुरली आनी सांस्कृतीक मानसिक शेताकयी व्हो लागवन मांड्लो. तशें केल्ल्यान ताणीं गोरया लोकान हेर

कुळियांचेर जबरदस्त गोरे नहीं आशिल्ल्या कुळियांचेर अधिकार चलव्न तांकां मस्तून वसाहत (colonies) बांधून चलंव्क बुन्याद घाल्न दिली. तांचो न्याय मांद्तेल्यांनी मात्र हें निती खाल सार्कें म्हण भास्येत शिवाय हेर मतीर आसल्लो कोणयी तशें ओपासो ना. असल्या अतर्वणांनी ताणीं मन्शा शास्तिराक व्हड अन्याय केला मात्र नहीं बगर मन्शा शास्तिराचें नांव सग्ळ्या संसाराच घाणय्लां म्हळ्यार चूक जान्ची ना.

पुण आज वसाहतशाही अक्रम म्हण सग्ळो संसारच वोप्ता. तशें जाल्ल्यान वय्र सांग्ल्या ती चूक, चूक म्हणोन आमी रुजु करून दिन्ची अवश्यकता दिसाना. तरयी असल्या कुतर्कां, कुतंत्रां विशीं कोणेंयी कित्लेंय जाग्रुत आस्ल्यारयी पावाशें ना म्हणयेता. ही चत्राय मन्शा शास्तिराचो मोटो जाण्कारी जाव्न आसल्ल्या आलफ्रेड लुविस क्रोबर हाणें दिल्या ती मतींत दवर्ची अधिक गर्ज.

मनशा शास्तीर आपल्या वाव्रांत केवल एक्येक्ये व्यक्तीचेर नदर जोकीना. मनशाचे पंगड, कुळियो, समाज, जनांग असल्या समुदायांचेर हें शास्तीर आप्ली नदर ठेव्ता. तसोच मनीस जाल्यारयी एक्लो एक्सुरो जियेना वा एक्सुरो वागाना. तशें पळेल्यार मन्शा शास्तीर मन्शाकुळायित्लेंच प्राचीन जुनें आनी जाण्टें जाय्जय आशिल्लें ! तरयी मन्शाच्ये प्रज्ञेक आनी अवधानाक तें उठोन उबें हाजर जाव्न फकत दोन शेक्डे जातात तित्लेच. पेल्या धा वीस वर्सांनी जीं हातेरां मन्शान निर्मून रुता केल्यांत तीं थोडीं पुणयी एका शतमाना आदीं जर आसल्लीं. ह्या शास्तीराचें रूपच वेग्ळें जातें आनी हाचें प्रयतन आनी साधन अंत्रळाक चड्तें. तरयी मुटिभितर आसल्ल्या आय्दां आनी सामर्थियांचो संपूर्ण उपेग करून, जीव भंगवून तपस केल्ल्याचो प्रतिफळ आम्कां धाराळ दाक्ल्यांनी आनी गूंड विवरांनी भर्लेल्या पुस्तकांनी पुंजायलेलो मेळटा. हाका अप्वाद आनी विकल्प फकत कोंकणी भास म्हण्यांगी?

हरयेका समाजाक आपाप्लें चिंताप आनी आपाप्लो संसार भरोन आस्च्या आम्च्या देशांत सोध्ता तित्लें नवेंसांव दिस्ता. आनी वळ्कोन जिरय्ता तितली सोभायेची धादोस्काय लाभता. फकत इत्लेंच शिक्चें तर ह्यो बाब्तीन वेगळीच शिस्त आसा. आनी हाका सौंदर्य मीमांसा म्हण वळ्कातात. हे शिस्तेक लागचो तपशील विवर हांगासर गर्जे भायलो जाता. पुण मन्शा शास्तीरा प्रकार विवेचन, विश्लेशण घड्टाना हांतूं सौंदर्य मीमांसा आपशीच भरोन सोभ्ता. जशें बीजगणित वापर्तांना, अंकगणितायी तांतून आटापून आस्तागी तशेंच हांगासरयी घड्टा

म्हळयार चूक जांवची ना. तेक्ले थाव्न तेक्लेक देंवचें आनी देंवलेलें हें दायज जांव वर्णून जांव वर्णून या जिरवून तुदियेक पांव्चें बिलकूल नहीं. हें समग्र दायजच वरतोवता भारताची संस्कृती.

**संस्कृती म्हळयार कितें ?**

ह्या एकाच्च सब्दाक विद्वानांनी अनेकानेक व्याख्यार्थ दिल्ले आसात. जगद्विख्यात विद्वांस क्रोबर आनी क्लुकोह्न म्हळलेल्यांनी सांगाता मेळून असल्या 160 प्रास अधिक व्याख्यार्थांची पट्टी दिल्ली आसा. तसले तपशील विवर हांगा गर्जेचे नहीं. आमच्या ह्या शिस्तेच्या मुळावया म्हातभार्यां पयकी इ.बी. टायलर म्हळ्ळलो, आप्ली वेगळीच व्याख्या दिता. आनी ही ताची व्याख्या अधिक संख्यान विद्वांसांनी मानून घेतल्या.

1. "मन्शाचें गिन्यान, जाण्वाय, पात्येणि, कला, विश्वास, नीत, कानून कायदे, रीतरिवाज, आनी आपुण समाजाचो सांदो म्हळ्ळ्या खातीर मन्शान जोडून घेतल्लो सर्वयी सामर्थी आनी रिवाजी हें सेगळें जमोन घडोन येंव्चें संकीर्ण संघटनच संस्कृती" म्हणता तो.

2. मट्वयान सांगचें तर, 'आपल्या परिसराक मनशान कसलें सगळें लक्षण आनी तीर्ल भरला – ताकाच म्हणटात संस्कृती.' मना शास्तीरा (psychology) प्रकार सांगचें तर, मनशान आपल्या चमकणाक जाग्रुत प्रज्ञेन शिकोन जोडून कितें भरलां, तीच ताची संस्कृती. हांगा 'शिकोन' म्हळ्ळें उतार प्रधान म्हण समजोंचें. आनीयेक विशेस म्हळ्यार सबार जणां जमोन समाज घडोन येता. त्या समाजांत हीं सगळीं सबार जणां कशीं जमोन वागोन बाळटातगी तांची संस्कृती!

3. भारताची संस्कृती म्हळ्यार फकत हिन्दू व मुसलमान, वा खंच्याय एके कालेतिची वा धरमाची बिलकूल नहीं. सक्कड मुळां थावन व्हाळोन मिसळोन एक जाल्लें समग्र भंडार तें म्हण महात्मा गांधीन सांगल्लें आसा. आर्य, द्राविड, हिन्दू, बौद्ध, तुरकी, पारशी, मोगलायी, पोरतुगेज आनी इंगलेज अशे सगळे व्हाळे जमोन मोटी एक न्हंय जाल्या. ही आमची संस्कृती.

यूरोपाचे बोंटेगार हांगा येवन पांवचे भितरच, मोहेंजोदारो हरप्पाच्या काळा थावनच पांच हजार वरसांचे जांटीकायेच्ये परिपिकायेक पावलेली जिवी जिवी संस्कृती आमची भारताची. कोंकण्यांची संस्कृती संस्कृत भाशे थावन

आयलेली नहीं. बगर संस्कृत भाशेचाकयी पुरविली म्हणटेले विद्वांसयी आसात. ही आमची संस्कृती हजारों वरसां पुरविल्या सांस्कृतीक मुळांचेर होंदोन वागलेली शिवाय ती शून्य थावन सुरु जाल्ली बिलकूल नहीं म्हळ्ळें खरो खर सत कोंकणयांनी आमी वळकोंचें आनी हेरांक तें खंचवून दिंवचें बरें.

जीवी म्हणटच बदलावण घडचें सहज. वाडावळीक हें गरजेचें. वाडोन वेतां वेतां, परिसरा प्रकार, घडितां आनी संदरभाक लागोन बदलावणेचीं कारणां आमी अशीं पट्टी करयेत –

1. राजवट चलंवचो कुळियो आनी सरकार बदलतात. हरयेकलो राय वा आडळतेदार आपापलोच प्रभावाचो छापो दांबता.

2. देशाचे, प्रदेशाचे शिमो वा गडी बदलतात, विस्तारतात वा चिंवाळटात. अशें भायर थावन जोडलेलें वा कारणांतर आपलेंच होगडायलेलें आसता चडीत वा उणें.

3. परदेशांत घडटा तीं आक्रमणां. देश सगळो पराधीन जाता, गुलामपणांतयी पडलोलो आसता तेदनां लोकाच्या जीविताची आसमिताय नास जाता.

4. कलेच्यो आनी रिती–रिवाचिंच्यो नव्यो नव्यो फांटियो फुटटात आनी त्यो आंकरेवन पुषकळ पालेतात. ज्यो असकत वांजुडयो आशिल्ल्यो त्यो बावोन सुकोन, जडोन आळ्वोन वेतात.

5. देश–देशा लाग्गीं सयरीक, लेवादेवी आनी व्यापार वहिवाटाचो वेवहार चडटा वा देंवता. परदेशाच्या रिणांत पडचेंयी आसा.

6. शेवटीं, केव्लोच नवोच एकलो देशाचें सुंकाण आपल्या हातीं घेता, सरवाधिकार आपणायता.

लोकाची संस्कृती मनशा जीविताच्या सरवयी चटुवटिकयांनी शिंपडोन मिसळोन पाटलाल्ली आसता. देकून मनशान चिंतच्या विचारांचेर, करच्या कामांचेर, भोगच्या सुखा दुखाचेर, खेळा विनोदांचेर आनी हातान घडंवच्या वस्नूंचेर निशेवन जळकाता. हें संस्कृतीचीं वेवेगळीं रुपां अशीं वळकोयेत –

1. मनीस आपलीं चिंतनां पयल्यान पयलीं उतरांनी पाचारता. देकून भास, साहित्य, संगीत–नाटक हांतूं संस्कृतीचें भंडार भरोन वोमताता.

2. माणसुगेक मनीस आंग धांपता. म्हालघडयां आदांव एवेन रुकाचे खोले गुंतून आपलें आंग धांपलेलें. त्या मागीर मनशान आपलें आंग संपूर्ण वा गरजेपुरतें धांपलेलें दिसोन येता. ह्याच धांपणाक आमी न्हेसण वा मुसतायकी म्हणटांव. ही मुसतायकी कसली, केदना, खंयसर आनी कशी न्हेसची म्हळ्ळेल्यांत विस्तार संस्कृती आटापून आसा.

3. मनीस उलवन बसाना वा मुसतायकी न्हेसोन भंवतच रावाना. तो काम करता, विलास विनोद भोगता. खेळ खेळटा आनी विशेवयी घेता. काम कितलें, कशें, केदना आनी कित्या खातीर करचें म्हणचाक समाजेची दस्तूर म्हळ्ळी आसताच. ह्या सगळ्या दस्तुरयां रिवाजींनी भरोन वोमताता तीच संस्कृती.

4. धा जणां आसल्लेकडे मांडावळ, ऋम आनी कायदो आसचें प्रमुख गरज. तर सगळी समाज वा जनांग आसल्लेकडे आडळत्याची मांडावळ, कानून कायदो, शिसतेचीं ऋमां इतयादी सगळें मेळोन संस्कृती निरूपिता.

5. दिसत्या तशें ना दिसत्या घडितां, संगती आनी गरजां विश्यांत लोकाची पातयेणी म्हळ्ळी आसता. आपलेच तांकी भितरलें चलयता तो मनशा वरतो एकलो वा एकली वयर खंयगी आसा तसल्या देवाचेर पातयेवून ताका भजतेल्यांचो एक धर्म आसचो दिसता. तसल्या धरमाच्यो शिकवण्यो आनी उपादेस, पातयेणयो, फरमाणां, निशेध वगैरे मेळोन संस्कृतीक थीक बसयतात, वा ती विकारावन रानवट करतात.

6. भुकेक खाण, तानेक पिवण, जिवाक विशेव आनी सुशेग तशें मतीक विनोद विलास हें सर्व हर मनशाक गरजेचें. हांतूयी संस्कृती उगडापी जाता शिवाय ती लिपोन रावाना वा गुपीत उराना.

जसो बरो एक गावपी गावपयांच्या संसाराकच आटापिना, जसो एक व्हाजपी जगांतलीं सगळीं व्हाजंतरां व्हाजंवक सकचोना, तसो खंचोयी एकलो वा एकली आपली संपूर्ण संस्कृती आटापूंक वा प्रदरसूंक सकाना – तितलेंच नहीं आसतां कोणच एके व्यक्तीक आपले समग्र संस्कृतीची वळक आसा म्हणचें पिशेंपणच सय. तेचपरीं खंचोय एक पंगड वा समाज समग्र संस्कृती एकेच नद्रेन समजोन मांदून घेवन, ती रुता करून वयर काडपाक सकची ना. हाका कारण म्हळयार हरयेका सांदयाक आपले संस्कृतीचो एक ना एक विशिश्ट विसवो अधिक आवडीचो आसता. तो विसवो ताचे भंवतीं वा ताचे

थंय विशिश्ट प्रमाणान फुलोन परजळता. अशें पळेताना खंचयाय संस्कृतीचो एकेक विसवो तेच संस्कृतीच्या वेवेगळ्या सांदयां थंय आपापले असमितायेन विकासताना, समग्र संस्कृती आख्या समाजांत मात्र रमोन मिरवता!

आमकां जर भारताची खरी वळक जाय, भारत म्हळ्ळ्या विशाल देशांत भरोन मिसळोन जियेतल्या लोकाविशीं वयर सांगलेलीं सर्वयी तासां तपासून वळकल्या खेरीत निरवोग ना. असलें विशलेषण फाटीं घालयार जायशें ना. कोंकणी पोबेची समरपक वळक आमींच करून घेवन देश विदेशांक तीं पावयजाय तर असलीं सोधनां आनी तपासणी करचीच पडटा.

**मनीस - जैवीक व्यक्ती:**

सोभीत प्रपंचाच्या सृष्टीक थीक जावन सोभता मनीस. सगळ्या विसतार विशाल सृष्टींत, जिव्यां मधें प्रपंचाचो अर्थ समजोंक आनी तो उचारूंक सकची एकच एक मनजात म्हळयार मनीस मात्र. भौतीक मनशा शासतीर मनशाचे कुडी, कुळिये विशीं अध्ययन करता. पुण त्या अध्ययनाक तीर्ल भरून रोसाळ करता सांस्कृतीक मनशा शासतीर. म्हणजे मनीस आपल्या भंवतणिच्या परिसराक, प्रपंचाक आपलोच एक संसकार दीवन ताची आसमिताय वळकोन ती जिरवन संस्कृती घडयता. भौतीक मनशा शास्तीरान वळकोन तयार केल्ल्या वसतूंक सांस्कृतीक मनशा शासतीर संस्कृतीची वोप लायता. परिणाम रुचीक जाता. पळेतेलयांक तशें भोगतेल्यांक–चाकतेल्यांक धादोस करता नहीं, तांकां पिशयारयी घालता.

******

